# मनदर्या

## कविता संग्रह

प्रसन्न रामचंद्र पागी

अर्थ प्रकाशन



# मनदर्या

कवीः
**प्रसन्न रामचंद्र पागी**
© सौ. रमाली प्रसन्न पागी
पोळें - लोलयें,
काणकोण गोंय 403728
मोः 9673216576 / 2640725

प्रकाशन क्र. १५
उजवाडावपीः
**सौ. योगिता वेर्णेकार**
मो:9823140229

प्रकाशकः
**अर्थ प्रकाशन**
पणसुलें,काणकोण-गोंय
0832-2643226
arthprod@yahoo.co.in

छापपीः
ऑमेगा ऑफसेट,बेळगांव
चित्रकारः
**प्रसन्न पागी**

पयली आवृत्तीः
**१३ सप्टेंबर २०१५**

मोलः१००/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां.



देवाली सुंदर कलाकृती
सर्वगुणसंपन्न निर्मणी - दर्या
पूर्ण मूर्ती पूण अपूर्ण कलाकृती
त्या कलाकृतींत देवान घातलें
'काळीज' स्वताचें
आनी निर्मिली
संवसारांतली सर्वोत्कृश्ट कलाकृती
मनदर्या- दर्याचेंच प्रतिबिंब
नांव दिलें ..... 'आई'.

हीं समुद्रफुलां तुकाच ओंपता....

**-प्रसन्न पागी**

# मांडावळ

# म्हज्या मनदर्यातलें

दर्याचे आनी म्हजे सामके लागींचे संबंद. सैमाच्या गोपांत लिपिल्लो म्हजो ल्हानसो गांव 'पोळें'. हया गांवची सोबितकाय वाडयता सैमान नटिल्ली दर्याविळ. दर्याच्या कुशीकच म्हजें घर. आमी दर्याचेर जगले आनी दर्याचेरच वाडले. म्हूण म्हाकां दर्याविशी आदर, दर्याची ओड. दर्याचें तें मनमोहक रूप.... तीं ल्हारां....ल्हारांतले मन भुलोवपी संगीत स्वर.... तीनसांजेचे ते मळबांक रंगपी रंग ....

त्या कृष्णनिळ्या दर्याचें तें
मनमोहक रूप म्हाका फुसलायतालें.....

ल्हान आसतना रेंवार बांदिल्लीं तीं घरां.... ते किल्ले.... रेंवार धांवतल्या ल्हान-ल्हान कुल्ल्यां फाटल्यांन धांवप...शिंपला, गुलयो पुंजावप.... रेंवेर नांव बरोवप आनी तें ल्हारांनी येवन पुसप...

फेसाळ ल्हारांचेर फुलपी तीं समुद्रफुलां
मन फुसलायताली, म्हाका खुणायताली.....

६वी ते १२वी मेरेन हांव नवोदय विद्यालयांत शिकलों. थंयच रावतालों. मे म्हयन्यांक जेन्ना घरा येतालों तेन्ना सांजेचे वरान-वरां दर्याच्या देगेर बसतालों. त्यावेळार म्हजे कोणूच इश्ट-वांगडी नाशिल्ले. गांवांखातीर हांव अनवळखी. त्यावेळार दर्याच म्हजो इश्ट....

दर्या म्हजो देश
दर्या म्हजो भेस
दर्या म्हजो स्वास
दर्या म्हजो हावेस

माडाच्या शितळ सावळेंत
रूपयाळे नितळ रेंवेर
वरान-वरां बसोन हांव
दर्याचें 'प्रसन्न' रूप नियाळटांलो...



दर्याचे पाळार येवपी पाळ (ल्हारां), फातरांक नेटान आपटून उसळपी उदकाचो धंवो फंवारो हांव नियाळटालों.
दर्यामदीं आशिल्ल्या दोंगरांक (कुडुमगड, देवगड, भिडें) पळयतालों.
तिनसांजेचें दर्यावयर मळबार रंगपी तांबसाण आनी देवगडावेल्या लाइटहावसांतल्यान मदी-मदीं लख्ख करून पडपी लायट ....
कांवळयांचो आवाज.... सुकण्यांचें उडप.... सूर्याचें अस्तप....
असे तरेकवार गजाली मनाक थाकाय दिताले.... एक आत्मिक सूख मेळटालें दर्याच्या त्या गोपांत.
हांव कविता केन्ना बरोवपाक लागलों हें म्हाका याद जायना.
नवोदयांत शिकतना हिंदीतल्यांन २०-२५ कविता बरयिल्ल्यो.
तातूंतल्यो तीन कविता कॉलेजीच्या मॅगाजिनांत उजवाडाक आयिल्ल्यो. पूण हांव केन्नाय कविता बरयतलों आनी म्हजें पुस्तक उजवाडाक येतलें हें सपनांत लेगीत चितूंक नाशिल्लें.....
केन्ना केन्ना तो भांगरायोग येवचो पडटा. त्या -त्या देवमनशांची गांठ-भेट जावची पडटा....
श्री मल्लिकार्जुन हायस्कुलांत साडेपांच वर्सां संगणक शिक्षक म्हूण काम केलें आनी म्हजी ट्रान्सफर जाली ती श्री कात्यायणी बाणेश्वर विद्यालयांत. थंय मेळ्ळो तो म्हजो इश्ट श्री गौरीश रमाकांत वेर्णेकार.
'हांव दर्यादिगेवेलो एक फातर....' पूण गौरीशान म्हाकां पारखिलो.
गौरीशालो 'पारस-स्पर्श' जालो आनी घडये फातराचें भांगर जालें.
गौरीशान म्हाकां आपलो 'काणी काणी कोतवा' हो कवितासंग्रह दिलो आनी एक दीस म्हणलें "कितें बरयता जाल्यार बरय रे......."

'म्हज्या विचारांचो
ज्वालामुखी फुटपाचो आशिल्लो
गरज आसली
एक कीट उसळपाची.'

ती कीट उसळ्ळी गौरीशाल्या उतरांनी. म्हजी पयली

कोंकणींतल्यांन कविता जल्मांक आयली ती 'रावणायण'. म्हजी कविता वाचून गौरीशान जणू म्हाका कवींच्या पंगतीत व्हरून बसयलो. मागीर तेच्याच सांगणेवेल्यान हांवे ती कविता श्री मल्लिकार्जुन म्हाविद्यालयांत जाल्ल्या कवी सम्मेलनांत सादर केली. थंय मुखेल सोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले भौ. नागेश करमली आनी हेर मानेस्तांनी म्हजी भरपूर तोखणाय केली आनी म्हाका साहित्याच्या मळार एक नवी दिका दाखयली. कांय दीसांभीतर म्हजी 'रावणायण' आनी हेर दोन कविता गौरीशान 'उर्बा' दिवाळी अंकांतल्यांन उजवाडाक हाडल्यो आनी साहित्याच्या ह्या म्हासागरांत म्हजो प्रवास सुरू जालो.

मागीर कोंकणी साहित्य संमेलनांनी सादर केल्ल्या कवितांक भौ. पूर्णानंद च्यारी सरांलें मार्गदर्शन तशेंच भौ. अनंत अग्नी सरांन केल्ली तोखणाय म्हाका नवी उर्बा दिवन गेली....

२०११ सालांक उजवाडाक येवपाचो हो कवितासंग्रह आयज गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आदारान तुमचे मुकार दवरतना म्हाका भोव खोशी जाता. ज्या ल्हारांनी म्हजो हो 'मनदर्या' तुमचे मेरेन पावोवपाक आपलें योगदान दिलें त्यामदीं आसात... भौ. सुदेश नायक सर, जाणी म्हज्या मोडक्या-तोडक्या शब्दल्हारांक व्याकरणाच्या लयींत बसयलें.....

म्हाका अकादमीन नेमून दिल्ले मार्गदर्शक आमचेच भौ. कमलाकर म्हाळशी सर, जाणी म्हाका योग्य तरेन मार्गदर्शन केलें तशेंच हया पुस्तकाखातीर प्रस्तावना बरोवपाचें मान्य केलें....

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर अनुदान' येवजणेखाला हो कवितासंग्रह उजवाडाक हाडपाक म्हाका सहकार्य केल्लेबद्दल भौ. पुंडलिक नायक सर, भौ. भूषण भावे सर, सौ. कुमुद नायक तशेंच भौ. राजय पवार सर तशेंच भौ. माधव बोरकर हांचो हांव उपकारी आसा.

हें पुस्तक प्रकाशीत केल्लेबद्दल 'अर्थ प्रकाशनाचें' सौ. योगिता वेर्णेकार, हांचोय हांव उपकारी आसा.

म्हजें व्यक्तिमत्व घडोवपी नवोदयाचे शिक्षकवर्ग आनी म्हजेर विस्वास दवरपी 'ॐकार खेळ आनी सांस्कृतीक मंडळ लोलयेचे' वांगडी.... तुमी म्हज्या ल्हारांक हजार ल्हारांचें बळगें दिलें. हांव तुमचोय उपकारी.

साहित्याच्या प्रवासांत म्हजें तारूं सोडटना गरज आसा आशिर्वादाची.....
म्हजी आई.... आई, तुजेकडल्यान हांव शिकलों विश्वास, भावार्थ, जिद्द, सोंशीकसाण, समजिकाय, सत्व आनी तत्व......, आयज तूं जाय आशिल्ली !! तुजेविण....बेरंग ही जीण....
म्हजो भाव, श्री अंकुश पोळेकर.... भाऊ, तुवें बापूय जावन म्हाका सांभाळलो. तुवें आपलें शिक्षण अर्ध्यार सोडून आमकां शिकयलें, नाजाल्यार घडये हें तारूं या संवसाराच्या विशाळ दर्यांत खंयतरी शेणटा आसतलें. म्हूण या पुस्तकाचें लोकार्पण तुज्याच हातान जावचें ही इत्सा....
म्हजीं घरचीं सगळीं -'सारा परिवार', म्हजे इश्ट आनी म्हजी घरकान्न सौ. रमाली पागी, म्हज्या सगळ्या कामांक म्हाका सदांच तेंको दितात..... तुमकां हया वेळार कसो विसरतलों? जांणी म्हज्या पयल्या कवितेपासून तें हें पुस्तक उजवाडाक हाडटामेरेन म्हजेखातीर त्रास घेतल्यात तें अष्टतांसी व्यक्तिमत्व, म्हजो इश्ट गौरीशबाब... खरें म्हणल्यार ह्या पुस्तकाचें मुखचित्र गौरीशच करपाचो आशिल्लो. पूण ताणेच म्हणलें, "तूंवय चित्रकार मुरे, मुखचित्र तूंच कर, तूं कितेंय करूंक शकता." गौरीशाली हींच उतरां एक नवी उर्बा दिवन वतात. इश्टा, तुजेकडल्यान हांव जायते बरे गजाली शिकलां. तुजे उपकार बी कांय आठयना, इतलेंच म्हणटां, "तुजेबगर हें शक्यच नाशिल्लें, मोग आसूं...."

संवसाराच्या ह्या दर्याचीं
शांत म्होंवाळ ल्हारां
खेळचीं म्हज्या शिरंतरां
व्हांवचीं निरंतरा......

म्हजेर आनी म्हज्या कवितांचेर घडये खूब जाणांचो प्रभाव पडला आसूं येता...... पूण म्हाका विस्वास आसा...

म्हज्या शिरंतरांनी व्हांवपी
शब्दल्हारां दितलीं गवाय
म्हज्या सक्षम 'अस्तित्वाची'..........

आयज हो कवितासंग्रह उजवाडाक येतना म्हज्या मनदर्याक आनंदाचीं ल्हारां येवन उपाट भरती आयल्या. म्हजो हो मनभुलवणो 'मनदर्या' तुमचेकडेन सोपयतना आस्त बाळगितां म्हजो मनदर्या तुमच्या मनांत विचारांचों दर्या उत्पन्न करतलो, तुमकां आवडटलो. तुमचो मोग आनी शुभेच्छावांगडा तुमच्यो टिकाय म्हाका नवी उर्बा दितले हांतून मातूय दुबाव ना.

'म्हजो संपूर्ण दर्या तुमकांच अर्पण.'

# मनदर्या- दर्या आनी प्रसन्नाचें मेळावण! एकरूपपण!!

प्रसन्न पागी हो काणकोण तालुक्यांतल्या सिमेवयल्या पोळें गांवचो एक तरणाटो. नांवांप्रमाणूच प्रसन्न व्यक्तिमत्वाचो आनी पोळें-लोलयेंच्या दर्याप्रमाणूच विशाळ काळजाचो! मनोवृत्तीन संवेदनशील मनीस, पिंडान कलाकार, वेवसायान संगणक शिक्षक. अपुरबायेचो घरसंवसार सांबाळपी मोगाळ घरकार, सांगात्यांवांगडा मौजमजा करपी दोस्त आनी हें सगळें करतनाच समाजीक वावराची बांदिलकी सांबाळपी उमेदी गडो.

आरंभाक गांवपावंडयार धरून तालुको पांवडयामेरेन आनी उपरांत तालुको पावंडयावयलो युवा महोत्सव धरून राज्य आनी राष्ट्रीय युवा महोत्सवामेरेनच्या विंगड विंगड सर्तींनी वांटेकार जावन इनामां जोडपी सर्तक. उपरांत अशेच महोत्सव आयोजीत करतना आयोजनांतलो एक घटक. रस्तोनाटय धरून रंगमाचयेमेरेनचें नाट्यलिखाण करपी लेखक. तें नाट्य रस्त्यांनी तेचपरी माचयांनी खेळोवपी नाट्यकलाकार, दिग्दर्शक. नेहरू युवा केन्द्राच्या जिल्हो पावंड्यावयल्या युवा पुरस्काराचो मानकरी आनी आतां ह्या सगल्या कलात्मक स्वरूपाच्या शिक्षणीक-समाजीक-संस्कृतीक वावराच्या अणभवाच्या आदारार दर्या वेंगावपाच्या हावेसान तुमचेमुकार 'मनदर्या' घेवन प्रसन्न मुद्रेन येवकाराक राविल्लो प्रसन्न पागी!

तशी दर्याची ओड सैमाचे ओडीवरीच दर एका गोंयकाराखातीर जीवाभावाचीच ओड कशी! प्रसन्न तर त्या पोळेंच्या दर्याच्या गाजाच्या आनी दर्यापाळांच्या सादाच्या आल्लयांचेरूय ल्हानाचो व्हड जाला. समजूंक लागत सावन तर कितल्या वेळा तो त्या दर्यावेळेर भोंवलो-घुंवलो आसतलो, खेळ्ळो-नाचलो आसतलो, कितल्या उमाळ्यांनी कितले खेपो ताणें त्या दर्याक वेंगायला आसतलो आनी कितले खेपो त्या दर्यान मनाच्या तळाचें गुपीत प्रसन्नाच्या कानांत सांगला आसतलें! ... हांव धरून चलतां. देखुनूच प्रसन्नाक दर्या कळ्ळा आसतलो, दर्या भावला आसतलो आनी दर्यामनाच्या काळजा उतरांनी 'मनदर्या' कागदार उतरावन काडप शक्य जाला आसतलें!

मनदर्या- 35 काव्यल्हारां, 12 समुद्रफुलां, 8 कवनुलांचो मोग, 9 कवनुलांचें मर्ण, 12 हेर कवनुलां मेळून 29 गुलयो. सगलो मनोव्यापार दर्याचो- आनी फकत दर्याचो. विशाळ मन आशिल्ल्या दर्याचो, दर्याक जीव सोडून म्हणटात तशें मन ओंपिल्ल्या प्रसन्नाच्या मनाचो. देखून संत तुकारामासारक्या संताचे भाशेंत जशी साकर भायर-भितर गोड, लोणी जशें भायर-भितर मोव तशें दर्या आनी प्रसन्नाचें मेळावण! एकरूपपण!!

प्रसन्नाक दर्याचो भोव ध्यास! गोलायेन फुडें चलपी मनीस फुडें गेलो कितें आनी मर्दीच फाटीं परतलो कितें, घुंवन घुंवन थंयच पावचो तशी मजा प्रसन्नाच्या मनदर्यांत अणभवपाक मेळटा. 35 कवितांच्या काव्यल्हारांतल्यो ताच्यो कितल्योशोच कविता माथाळ्यासयत दर्याचे खेरीत खेरीत आयाम घेवन सामकारा येतात. देखीक, मनदर्या, दर्या, मत्स्यकन्या, जलपरी, कृष्णनिळो दर्या, तारूं, दिव्याघर, मळब आनी दर्या, समुद्रफुलां, हांवें दर्या पळयला, सुनामी, म्हजो दर्या, आदि.

दर्यान प्रसन्नाक आनी प्रसन्नान दर्याक कितल्या मेकळेपणान, कितल्या निसुवार्थीपणान मन ओंपला हें जाणां जावन घेवपाचें आसप जाल्यार 'काव्यल्हारां'मदल्यो ह्यो कांय पंक्ती पळयात-

> मनाचे गर्भकुडींत जेन्ना
> विचारांचो लामणदिवो पेट्टा
> तेन्ना...
> मंद पावलांनी येता.......... मनदर्या. (मनदर्या)

मात हो मनदर्या फकत मंद पावलांनी येना. केन्ना उसळत येता, केन्ना लजत येता, केन्ना हांसत येता, 'प्रसन्न' मनान धोलत लेगीत येता.

पूण धोलता धोलतनाच तोच प्रसन्न अकस्मात 'गूढ' जावन संवसार-निर्मणेच्या सोदामेरेन पावता! देखीक-

> मळब -अमर्याद, विस्तीर्ण
> दर्याक मर्याद शीमेची
> मळब -शांत, थीर
> दर्या -उचांबळ, अस्थिर
> मळब -उक्तें, प्रांजळ
> दर्या - रहस्यमय, कुवाड्यांचो.
> जरी भिन्न.. तरी समान...
> दोगांय वांगडा
> जातात कारण
> ..........संवसार निर्मणेचें. (मळब आनी दर्या)

विशेश म्हणल्यार काव्यल्हारांमदल्या कांय कवितांचे माथाळे दर्याकडेन कसलोच संबंद नाशिल्ले असे आसात अशें दिसलें तरीय त्यावूय कविता मात अख्खो 'मनदर्या' आसाच आसा! देखीक-

त्या नुस्त्यान आयज
बंड केलें.......
पोशिल्ल्या दर्याचेर
पेटून उठलें.....
दर्या सोडून वेळेर आयलें
आनी............
व्हळव्हळून मेलें. (बंड)

प्रसन्नाचीं 'कवनुलां' तर ताचे फुडाराचे अर्थगर्भ कवितेची आस्त जागोवपी अशींच आसात. देखीक-

काळजांतलो मोग उक्तावपाक
शब्द मोने जातात
देखूनच...
देवान दोळे दिल्यात. (मोग माथाळ्यासकयलें कवनूल)

'मर्ण' माथाळ्यासकयलें मर्णाची आनी सोबितकायेची तुळा करपी हें आनी एक कवनूल मुजरत वाचात, अणभवात.

सोबीत मर्णाक तुळा ना
देखूनच हांवें
मर्णाक
तुजी उपमा दिल्या.

आनी निमणें प्रसन्नाचे प्रसन्न कवितेचो राजमार्ग पळोवपाची आस्त बाळगून ताका दर्यायेद्या मनान परबीं दितनाच गरज पडल्यार प्रसन्नाच्या 'हेर कवनां'मदलो प्रसन्न प्रत्यक्ष वेवहारांतूय पळोवपाची खात्री बाळगितां.

जर अन्याय पळोवंक शकतां
जाल्यार आडोवंकूय शकतलों
एकलो आसल्यार हरकत ना
धर्तरीच हालोवन सोडटलों.

– कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी
शिक्षणीक-समाजीक-संस्कृतीक कार्यकर्तो

ॐ श्री दत्त, श्रीस्थळ, काणकोण.
शेनवार, 05 सप्टेंबर 2015

# मनदर्या.

मनाचे गर्भकुडींत जेन्ना
विचारांचो लामणदिवो पेट्टा
तेन्ना...
मंद पावलांनी येता.......... मनदर्या.

तुटिल्ल्या काळजांत जेन्ना
भावनांचो लावारस खतखतता
तेन्ना...
उसळत येता.......... मनदर्या.

आशेल्ल्या काळजांत जेन्ना
प्रणयाची खातकुतली जाता
तेन्ना...
लजत येता.......... मनदर्या.

जिणेचे बागेंत जेन्ना
म्होंवाळ फुलां फुलतात
तेन्ना...
हांसत येता.......... मनदर्या.

काळखे जिणेंत जेन्ना
आशेच्या उजवाडाचें कीर्ण फांकता
तेन्ना...
'प्रसन्न' मनान धोलता.......... मनदर्या.

# दर्यो

दर्यो
दर्याक लागून दर्यो
हेवटेन दर्यो, तेवटेन दर्यो
दर्याचो तळ सोदूंक गेल्लों
दर्यांतच शेणलों.....

# बंदखण

चकचकीत कंवचेच्या
बंद पेट्टुलांतली
हांव रंगीत-सोबीत मासोळी
मासळीघराच्या कृत्रिम दर्यावरी
जीणय म्हजी नकली

नकली उदक - नकली खावड
नकली वारो - नकली चारो
सगळें कशें अडेचें....
बंदखणीच्या उमाळ्यांक आता
लागलां पिशें दर्याचें...

दर्या म्हजो देश
दर्या म्हजो भेस
दर्या म्हजो स्वास
दर्या म्हजो हावेस

मुक्त परमळ, संगीत वलयां
मंत्रमुग्ध प्रसन्नल्हारां
सैमाचो हो आविश्कार
उफेवचो दिगंतरा.......

गहन-निळ्या दर्याचीं
शांत म्होंवाळ ल्हारां
खेळचीं म्हज्या शिरंतरां
व्हांवचीं निरंतरा...

शिरांतल्या ल्हारांक मेळूं
हजार ल्हारांचें देणें
स्वतंत्रतायेच्या स्फूर्तधारेन
दारां फुटचीं बंदखणे...

# मत्स्यकन्या

सपन म्हजें दर्या
दर्यांतली सपननगरी
सपनगंध, भांगरकाया
कन्या हांव मत्स्यसागरी......

सपन म्हजें ल्हार
ल्हारांतली संगीतसुंवारी
नादब्रह्म, नृत्य झणकार
रागिणी हांव स्वरमाधुरी.....

सपन म्हजें वारो
वाऱ्यांतलो गंध अधांतरी
वाळवंटी, रूपयाळी
गंधाली हांव मत्स्यकस्तुरी......

सपन म्हजें मोग
मोगांतलीं प्रणय भिरीं
तूं जांवचो कामदेव दर्या,
रती हांव रातसुंदरी......

# फातर

हांव एक फातर
दर्यादिगेवेलो
नेटान आपटतल्या वसाडींनीं
म्हाका वज्रावरी घट्ट केला.

# अस्तित्व

साहित्याच्या म्हासागरांतलो
हांव एक उदका थेंबो
जरी ल्हान तरीय
दर्याच्या संपूर्ण गुणांनी संपन्न
दर्याचोच एक भाग........

म्हजे लेखणीचो गाज
गाजयतलो शेक
शब्दकोशांतल्या दर एका शब्दाचेर........

जरी दर्यापसून वेगळो तरीय
म्हज्या शिरंतरांनी व्हांवपी
शब्दल्हारां दितात गवाय
म्हज्या सक्षम 'अस्तित्वाची'..........

हांव एक गर्भ
ल्हवू-ल्हवू आकार घेतलों
घडये स्वरूपय बदलतलों
पूण म्हजी नाळ मात
तुटची ना,
ह्या गर्भश्रीमंत दर्यापसून.........

# जलपरी

काळ्या-निळ्या दर्याखाला
चालू आसा आजूनय
तिचें रूदन - तिची करंदाय
कदीम काळासावन......

तिच्या रित्या काळजांत
खोलाय दर्याची
तिच्या शून्य दोळ्यांत
ओलाय दर्याची
खार पावसाची धार जावन
गळटात दुकां
कदीम काळासावन......

सोद घेत मोगाचो
ओपल्या जीण एकसुरी
मोगाविणी अधुरी अर्दअस्तुरी
जलसुंदरी - ती जलपरी...

शेंपडी हालयत दर्यांत
तांडव करता
म्हूण घडये
दर्यांत ल्हारां फुट्टात
कदीम काळासावन......

# टायटॅनिक

तें एक ल्हान व्हडें
ल्हारांचेर धडपडपी
मोटे धादोसकायेन
दर्यांत आयलें
आनी म्हणूंक लागलें....
'हांवें जिरयली तुजी मस्ती.'
दर्या गर्जलो.....
'हांवें टायटॅनिक गिळ्ळ्या
तूं किस झाड की पत्ती?'

# डू वन् फेवर

दर्या आनी सूर्याचें
मेळप पळोवन
मळब वोगीच लजता..

दर्याचे वेंगेंत वतना
सूर्य मात ल्हवूच
मळबाच्या कानांत सांगता...

“ Do one favour,
आयज चंद्राचेर थोडीं कुपां हाड.”

# कृष्णनिळो दर्या

त्या कृष्णनिळ्या दर्याचें
मनमोहक रूप म्हाका फुसलायता......
बासुरींतल्या कर्णमधुर ल्हारांचें
लव्हू - लव्हू वाडपी संगीत
मन भुलयता.....

दर्यांत उठपी बवंडर जणूं
सुदर्शन चक्रच भासता....
तुज्या गर्जनांचो शंखनाद
आसमंतांत घुमता...

तुज्या उर्बेभरीत चेतनांचो भार
तो मत्स्यावतार
म्हजे कुडींत संचारता...

त्या कृष्णनिळ्या दर्याचें
विराट रूप म्हाका फुसलायता......

# तुजें काळीज

तुज्या काळजाक मेळची
रूंदाय दर्याची
हांव जांवचें तारूं
विस्तीर्ण दर्यांत खेळपी
आयलें जरी तूफान-वारें
तुज्या वेंगंत विसावचें......

तुज्या काळजाक मेळची
खोलाय दर्याची
हांव जांवचें प्रवाळ
गहन दर्यांत किल्लपी
आयलें जरी काळखा भिरें
तुज्या आत्मकिर्णान विस्तारचें......

तुज्या काळजाक घडये
आयलो बदलाव दर्यावरवीं
तेन्ना हांव जांवचें पाशाण
वज्रावरी हजार वर्सांचें
ल्हारां-वसाडी आंगार खेळयत
रावचें सांगाता सासणाचें......



# सूर्य

तो सूर्य
दिसभर हेडटा
भगभगता
जळ-जळ जळटा
स्वता जळटा - दुसऱ्यांक जळयता
तिळसनां........
म्हजे वेंगेंत येता
आनी....
शांत समाधी लायता......

# तारूं

हांव एक तारूं
शीड तुटिल्लें
सुकाणूं मोडिल्लें
आनी दिकाय शेणिल्लें.....

चारूय भोंवतणीं निळें उदक
वयर विखारी निळें मळब
आकांतान थरथरता, वाट पळयता
तडीक लायतल्याची.....

जाणां हांव
तुज्या मनदर्यांत
मोगाचीं ल्हारां व्हांवतात.
विरोधाचो वारो सुट्टलो
वादळय उठ्ठलें.....

थोड्याच खिणांखातीर कांय जायना
म्हाका नांगर घालूं दी
ना जाल्यार,
तुज्या ल्हारांचे वेंगेंत
न्हिदूं दी.....................सासणाचें.

# जोरगत

जिणेच्या संवसारांत जेन्ना
येता दुख्खाची उमास
आनी सुखाची पुनव
तेन्ना येता मनदर्याक
भावनांची जोरगत.

# अंतस्करण

ह्या विशाळ दर्यांतलें
हांव नुस्तें तानेल्लें
चारूय भोंवतणीं उदक जरी
एका थेंबाक आशेल्लें.

जाणां हांव.....
ह्या खाऱ्या दर्यांत
गोडें उदक विरळच
पूण यत्नांक अंत ना

म्हजी तृष्णा भागोवपाक
घेवपाक जाय सोद
अंतामेरेन वचून
कृष्ण-दर्याच्या अंतस्करणाचो.

मृदूलता - ही सदांच
अंतस्करणांतल्यान आंकुरता.....

# दिव्याघर

तें एकमुळें दिव्याघर
उसळपी मदांध ल्हारां
आंगार खेळयत
दर्यामदीं मानान उबें
वत-पावस सोशीत...

तें एकमुळें दिव्याघर
फड उबारून शेषनागरूपी
अथांग दर्यामदीं उबें
लखलखता मणी माथ्यार
खर किर्णां फांकत...

तें एकमुळें दिव्याघर
किण्ण काळखे रातीचें
नातालांतलें लख्ख नकेत्र
वाट चुकिल्ल्या खलाश्याक
घुंवता दिका दाखयत...

तें एकमुळें दिव्याघर
स्वता दिका शेणिल्लें
शांत, स्तब्ध
विशाळ दर्यामदीं उबें
एकसुरी जीण जगत...

# समाधी

तो कोण नुस्त्या पोर
दर्यांतल्यान वयर आयलो
वेळेर सुकोवपाक घातिल्लें
खारें नुस्तें पळोवन
म्हणूंक लागलो,

‘वयले मनीस कितले बरे !
नुस्त्यांच्या यादींक
तांच्यो समाधी बांदल्यात..’

# अजाप

माडाचे शितळ सावळेंत
रूपयाळे नितळ रेंवेर
वरान-वरां बसोन
तुजें ‘प्रसन्न’ रूप नियाळटां...
तुजे खारसाणेचो गंध
मन-मस्तिश्क मंत्रमुग्ध करता...
तुजी असीम मुद्रा
पळोवन हांव अजापतां....
तूं असो कुवाड्यांचो, रहस्यमय
कितलींशींच अजापां
तुजे कुडींत लिपल्यांत
पूण तुजी उत्पत्ती हेंच
ब्रह्मांडांतलें व्हडलें अजाप.

# बंड

त्या नुस्त्यान आयज
बंड केलें.......
पोशिल्ल्या दर्याचेर
पेटून उठलें.....
दर्या सोडून वेळेर आयलें
आनी............

व्हळव्हळून मेलें.

# चळवळ

तूं दर्याच्या शांत
सभावाचेर वचूं नाका
त्या सुस्त न्हिदिल्ल्या
शिंवाक उठोवंक नाका
त्या शांत रूपाखाला
सूर्यकिर्णांचे गतीन
व्हांवतात खर ल्हारां
धर्तरेच्या उदरांत
खतखतता लावारस
भिरांकूळ जलसैन्याच्या
गर्जनांनी धडधडटा
काळीज पाशाणाचें
ह्या शांत दर्याच्या
खोलतळा चालू आसा
एक संथ चळवळ.......
चळवळीक बंधन ना
वेळा काळाचें
ज्वालामुखी फुट्टलो
प्रलय येतलो
गरज आसा
एक कीट उसळपाची.

# सभा

ल्हान नुस्त्यांची सभा भरिल्ली

‘व्हड नुस्त्यांच्या अत्याचाराक
बळी पडप ना.......
तांच्या आश्वासनांक भुलप ना....
तांच्या तोंडालागीं येवप ना.....’

पूण बाबड्यांक खबरच नाशिल्लें
ज्या जाग्यार सभा भरिल्ली
तें देवमाशाचें तोंड आशिल्लें.

# आस्त

वादळांतल्यो घो ऽ ऽ करून
कोसळपी वसाडी
काळ्याकिट्ट काळखांत काळीज कातरतात.
तुज्या फटकिऱ्या मोगाचीं काळीं कर्तुबां
काळखांत आनीकय काळीं दिसतात.
मात.....
तुटिल्ल्या काळजाक आस्त
फांतोडेर उदेतल्या सूर्याची.

# मळब आनी दर्या

आमचें नातें...
मळब आनी दर्याचें.

आमचे दोश...
जर्शी मळबांत कुपां
दर्यांत फातर.

आमचें दुख्ख...
जसो मळबांत पावस
दर्याक वसाड.

आमचो राग...
जसो मळबांत गडगड
दर्याक वावटळ.

आमचो मोग...
जशी मळबांत नितळसाण
दर्याक तांबसाण.

मळब –अमर्याद, विस्तीर्ण
दर्याक मर्याद शीमेची
मळब –शांत, स्थिर
दर्या –उचांबळ, अस्थिर
मळब –उक्तें, प्रांजळ
दर्या – रहस्यमय, कुवाड्यांचो.

जरी भिन्न.. तरी समान...
दोगांय वांगडा
जातात कारण
संवसार निर्मणेचें.

# सार्थ जीण

एक व्हडेकार
व्हडें व्हलोवन व्हलोवन थकलो
दर्याच्या असीम पोशांतलें
एक घोंटभर उदक पियेलो
आनी दर्याच्याच तोंडार थुकलो
"शीः!! थूः!
व्यर्थ तुजी जीण
धर्तरेचो येदो व्हड भाग
तुज्याच उदकान व्यापला
पूण म्हजी तृष्णा भागोवपाक
एक थेंबय उदक ना
जिणेक तुज्या अर्थ ना."
दर्यान म्होवाळ उतरांनी म्हणलें-
"म्हज्या ल्हारांनी व्हांवता
संवसारांतल्या दुखी जीवांच्या
दुकांची खार धार
युगा-युगांसावन निरंतर
करीत म्हाका खार खार
म्हूणच व्यर्थ जीण ही
जाता सार्थ सर्वार्थान"

# भांगराळो सूर्य

भांगराळो सूर्य
दर्याच्या मोगान काळीज ओंपता
उदकांत चिप्प भिजता...
काय....
दर्याचें खारें उदक
भांगराळ्या सूर्याक दर्यांत विरगळयता?
म्हूण जायत घडये
मळबांत तांबसाण निशेता.......

# म्हजें सूख

न्हंय
दोंगरावेल्यान व्हांवता
खळखळाट करीत
फातरांतल्यान धांवता
वांगडा घेवन
सगळो चिखल, हळशीक
करता सुवादीन
विशाळ दर्याच्या
आनी स्वता जाता
पवित्र.....निर्मळ .....नितळ.
तसो हांव...
जावन बळिश्ट दर्या
तुजी वाट पळयतां
तूं यो....
ते न्हंयीसारकें
तुज्या मनांतलो राग, दुस्वास
काळजांतलें दुख्ख, पिडा
कर म्हजे सुवादीन
तुज्या आत्म्याक परमानंद मेळचो
होच म्हजो हावेस
कारण.....
तुज्या सूखांतच लिपलां म्हजें सूख.

# एकसुरी जीण

ती एकसुरी आकृती
दर्यादिगेर उबी
शांत.....स्तब्ध....निशब्द.....

तिची शून्य नदर
चिरता ल्हार
जावन धार - तलवारीची.

काळखे रातीचो
काळो दर्या
रहस्यमय, भिरांकूळ
तिचेंच पडबिंब
जगता जीण - एकसुरी.

दोगांय-
निस्तब्ध....निवांत.....शांत.....
मात काळजांत
आकांत, वादळ, खवदळ.

ती एकसुरी आकृती
एकरूप जाता... एकसुऱ्या दर्यांत
जावन ल्हार
शाश्वत.....
व्हांवता
निरंतर.....

# फटकिरो मोग

हांवें दर्याचेर मोग केलो
रेंवेंर घर बांदलें
व्हड उमेदीन दर्याक
म्हज्या घरांत आफयलें
दर्या आयलो
आनी......

म्हजें घरच घेवन गेलो.

# समुद्रफुलां

फेसाळ ल्हारांचेर
फुलपी समुद्रफुलां
मन फुसलायतात
म्हाका खुणायतात...

हीं समुद्रफुलां
पुंजावपाचो म्हजो यत्न
तितकोच तीं
मिटोवपाचो दर्याचो यत्न...
ह्या आपालिपाच्या खेळांत
म्हजे यत्न सदांच निश्फळ...
म्हूण हीं फुलां
म्हाका फुसलायतात...

म्हज्या निश्फळ यत्नांक
मोल त्या समुद्रफुलांचें
कारण....
तितक्याच
मोलादीक म्हज्या मोगाक
हांव तीं भेटोवंक सोदतां..

हीं समुद्रफुलां
म्हजें मन फुसलायतात...

# हांवें दर्या पळयला

हांवें दर्या पळयला
भरतेचो भार
सुकतेचो उतार
दर्याचीं म्हौंवाळ ल्हारां कोणें पळयल्यांत?

हांवें दर्या पळयला
ल्हारांचें हांसप
ल्हारांचें रूदन
दर्याचीं दुकां कोणें पळयल्यांत?

हांवें दर्या पळयला
तानेल्ली जीभ
आडखळपी स्वास
दर्याची तळमळ कोणें पळयल्यांत?

हांवें दर्या पळयला
मळबाक वेंगयतना
धर्तरेक खेळयतना
दर्याची अपुरबाय कोणें केल्या?

हांवे दर्या पळयला
तुज्या काळजांत...

हांवे दर्या पळयला
तुज्या हातांत...

हांवे दर्या पळयला
तुज्या दोळ्यांत...
दर्या म्हज्या दुकांत कोणें पळयलां?

# गेम

नुस्तें गरवपाक वयतना
म्हजी इत्सा
एक तरी नुस्तें गऱ्याक लागचें
तशीच इत्सा नुस्त्याची
हांयस गिळून गऱ्याक ना लागचें
इत्सा भिन्न
पूण दोगांचोय यत्न
देव मात कनफ्यूज्ड
कितलीमेरेन चलतली ही गेम?
शेवटाक
एकल्यान दुसऱ्याक गिळप
होच जगाचो नेम.

# म्हजी आस

म्हजी आस..........
दर्यांत चिप्प भिजून
ल्हारांसांगातान खेळटना
हांव निर्वस्त्र जावचों
सगळो दर्या कुडीर अणभवचो
म्हजी उचांबळ कूड
नग्न निळ्या दर्याचे वेंगेंत विसावची......

ह्या गुलाबी खेळांत
हांव म्हजी कूड
आनी तूं जांवचें दर्या
संभोगाचें परमसूख भोगतना
कसलो हो मोद?...
आह !!..........

सगळें कशें सैमीक
दर्याची ती खोलाय -पचपचीत ओलाय
कुडीची ती हुनसाण - घामाची खारसाण
स्वास-ल्हारांचो चड-उतार
फेसाळ - उदकाळ
तो गंध- तो स्वास
सर्ग सुखांची रास
म्हजी आस...
दोन आत्म्यांचो आभास.

# आई

देवान एकदां तजवीज केली
कल्पक कलाकृती रचपाची
ताणें घेतली...
ऊब उदेत्या सूर्याची
शक्त विशाळ दोंगराची
समृध्दी उंच कल्परूखाची
थंडाय विस्तिर्ण वडाची
थाकाय सुखदिणे रातीची

सैमाची उदारताय
वझऱ्याची प्रसन्नताय
मळबाची विशाळटाय
अप्सरेची सुंदरताय
युगा-युगांचें चातुर्य
अणभव आनी समजिकाय

तांतूत ओतलो...
विश्वास, भावार्थ
जिद्द, सोंशीकसाण
सत्व आनी तत्व
गंभीर विचार आनी
खंबीर नेतृत्व

देवाली सुंदर कलाकृती
सर्वगुणसंपन्न निर्मणी - दर्या

पूर्ण मूर्ती पूण अपूर्ण कलाकृती
त्या कलाकृतींत देवान घातलें
'काळीज' स्वताचें
आनी निर्मिली
संवसारांतली सर्वोत्कृश्ट कलाकृती
मनदर्या- दर्याचेंच प्रतिबिंब
नांव दिलें ..... 'आई'.

# सुनामी

नातालांच्या मनभुलोवण्या संगिताचेर
नव-वर्साचीं मधुर सपनां
काळजांत केळयत
कितलींशींच पावलां
रेंवेंर नाचतालीं........
पावलां माणकुलीं
पावलां उत्साही
सांगाताचीं पावलां
अणभवी पावलां
घडये.....
संगिताचो कर्णमधुर आवाज
तुका मानवलो ना
तुज्या फेसाळ ल्हारांर
रूपयाळे रेंवेंर खेळपी
हीं पावलां तुका सोंसलीं नात.....
अकस्मात,
तुज्या ल्हारांनी रूप घेतलें
अक्राळ-विक्राळ राक्षसाचें
तुज्या गर्जनाचो गाज
कानांचे पड्डे फोडीत
आसमंतात घुमलो
तुज्या निश्ठूर, निर्दयी हातांनी
अधाशीपणान एका खिणाक
सगळीं पावलां पुसलीं ..... सासणाचीं.
हांव दुर्देवी
वाटावलों
तुजें हें निर्दयी क्रूर रूप पळोवंक.
हे मदांध दर्या !
आसल्याचें नाच्च करून तूं पर्थून शांत जालो
मात करून गेलो म्हाका अस्वस्थ सासणाचोच.....

# म्हजो दर्या

मोगाच्या गुलाबी वाऱ्यान
पयस हुबलीं म्हजीं वादळी कुपां
आनी मोडांतल्यान पर्जळ्ळें
म्हज्या संवसाराच्या म्हासागरांत
एक कीर्ण सुखाचें

तुजे स्फूर्तभरीत स्पर्शान
उत्पन्न जालो
म्हज्याच अंतस्करणाचो दर्या
आनी शिरंतरांतल्यान उसळ्ळें
म्हज्या अस्तित्वाची गवाय दीत
एक ल्हार रक्ताचें

म्हजो दर्या रचता धडाडपी वसाडी
तुज्या संरक्षणाक
आनी दुख्खार फूक मारीत
थाकाय दिता शांत जावन
म्हजो दर्या सत्वाचो
म्हजो दर्या तत्वाचो
म्हजो दर्या निश्ठेचो
म्हजो दर्या विस्वासाचो
म्हजो दर्या मायेचो
म्हजो दर्या सुखाचो

म्हजो संपूर्ण दर्या
तुकाच अर्पण.

# मन

मन अशें फुल्लें, मन अशें हासलें
मोगा तुज्या मोगाखातीर मन पिशें नाचलें
मन तुज्या मनाभितर ल्हवूच अशें रिगलें
मनांतल्या मोरपाखान मन म्हजें लजलें
सपनांच्या शिंवरान मन श्रृंगार सजलें
मन मळबाच्या रंगांत चिंब-चिंब भिजलें
मनातलें मोनें उतर दोळ्यांत तुज्या दिसलें
जल्मा-जल्मांचे धागे अशें अचकीत जुळ्ळे.

# फूल

त्या फुलत्या कळ्याचो
परमळ पातळटा
मस्तो भंवरो
भोंवतणी घुंवता
बाविल्लें फूल मात
पळयतना जळटा
आपूणय केन्ना कळी आशिल्लें
हें विसरता......

# नवी काणी

जीण म्हजी फुलासारकी
सोबीत आनी देखणी
जुवानपणाचो गंध परमळ्ळा
उडून आयल्यांत सुकणीं
म्होंवा थेंबो चोखून गेलीं
रीत जगाची पोरणी.....

मोडिल्ल्या ह्या सपनखेळाची
कोण रे मांडटा मांडणी?

तुज्या मोगाखातीर मोग्या
रचल्या एक नवी काणी
ते काणयेक लेगीत मारतात
वासनेच्योच घाणी...

# मावली

मावली तूं.......
दिसरात जाळें विणटा
तुटिल्ले धागे जुळयता
विस्कटलेलें घर
पर्थून जोडपाक तूंच शिकयता..

घुस्पल्ल्या धाग्यांत न घुस्पतां
तूं शाबूत कशी रावता?

मावली,
हांवूय जावंक सोदतां
तुजेवरी, तुजी सावली
म्हज्या नात्याचे
कितलेशेच धागे
तुटल्यात.......
विस्कटल्यात......
शेणल्यात......
घुस्पल्यात......

हे धागे जुळयतना
म्हजो हांवूच घुस्पलां...
शेणलां.....
विस्कटलां....
तुटलां......

# रंग

तो रंग-
काळजांतल्या मोगाचो
सवाशिणील्या कुकमाचो
कुडींतल्या गर्भाचो
शिरांत व्हांवतल्या
सळसळटया रक्तल्हारांचो.

तो रंग-
भयाण काळखेचो
दोळ्यांतल्या काजळाचो
काळजांत किल्लतल्या
काळ्या कर्तुबांचो.

हे रंग भरसतना-
रंगता रंग मातयेचो
धर्तरेर गळटल्या घामाचो
आंकुरतल्या कोंबाचो
वाऱ्यार धोलतल्या
भांगराळ्या कणसांचो.

संगम
धर्तरी, मळब, दर्याचो
मनयता
उत्सव रंगांचो

रंगान रंगला
हर खीण
मात,
बेरंग ही जीण.

# अंतर

तुजें घर
म्हजें घर
मदीं एका उल्याचें अंतर

म्हज्या मनांत तुजें घर
तुज्या मनांत म्हजें घर
मदीं दोन कुळांचें अंतर

.....
......
.......

म्हज्या घरांत तूं
म्हज्या घरांत संवसार
मदीं सात फेऱ्यांचे अंतर

तुज्या श्वासांत हांव
म्हज्या श्वासांत तूं
एका श्वासान हुपलां
जल्मा-जल्मांचें अंतर

# रावणायण

हय ! हांवें रावणायण बरयलां
रामाचें नांव घेवन रावणाचो म्हामंत्र जपला
हांवें रावणायण बरयलां......

राजकारणांतल्या कळीनारदांनी
समाजांतल्या हिंस्त्र जनावरांनी
म्हजी मनीसपणाची रोयण फोडल्या
वाल्मिकीचो हांव पर्थून वाल्या कोळी जालां
हांवें रावणायण बरयलां......

सेवेच्या मळार नांव जोडपी श्रावणबाळ
सोऱ्याच्या तळ्यांत अस्तित्व सोदता
पुताच्या मोगाक तानेल्ली आवय
पुताल्याच उतरांच्या बाणांनी मेल्या
हांवें रावणायण बरयलां......

कितलेशेच राम जल्मले-मेले
कोणाकूच सोयर-सुतक ना
पूण घरा घरांनी दारा-दारांनी
रावणाच्या जल्माची फुगोटी पेटल्या
हांवें रावणायण बरयलां......

पयशांच्या बळग्यार पदकां मेळयत
रामालें गिन्यान पुस्तकांनी चिड्डिलां
शिक्षणाचोय हांगा धंदो जाला
भाशेच्या नांवान संस्कृतायेचो घात मांडला
हांवें रावणायण बरयलां......

पादुका घेवन राज्य चलोवपी भरत
खुर्च्यांचो खेळ खेळटा
गरीबांचो संवसार जोत्यांनी माडयता
भावच भावाच्या रगताक आशेला
हांवें रावणायण बरयलां......

वासनेच्या रथाक नोटांचीं चक्रां
सीतेनच पुसल्या मर्यादेची लक्ष्मणरेखा
कसली सत्वपरीक्षा आनी कसली अग्नीपरीक्षा
जर सीतेनच रस्त्यार स्वयंवर मांडला?
हांवें रावणायण बरयलां......

मरणाच्या आकांतान घरां पेट्टात
कपलाचो कुंकुम रक्तांनी व्हांवता
काळजाची किंकाळ बोंबानी शेणटा
मेल्लेवरी संवंग घेवन कुंभकर्ण सुस्त न्हिदला
हांवें रावणायण बरयलां......

रामाले माकड ते माकडच उरले
भात्यांतले बाण लेगीत आयज कळमेले
धा तोंडांच्या रावणाक आनीक तोंडां फुटल्यांत
अधर्माचो, असत्याचो हांगा जयजयकार चल्ला
हांवें रावणायण बरयलां......

# कविता जाय गे...

कविता जाय बाय, कविता जाय
ल्हान-व्हड कविता ताजी ताजी हाय

म्हजें कवितेंत आसा बाय,
पावसांतली सुखा-धार आनी
दर्यांतली दुकां-ल्हार
मळबांत उडटल्या उमाळ्यांचे रंग आनी
धर्तरिर गळटल्या घामाचो गंध

म्हजे कवितेंत आसा बाय,
आवयचें उगडें थान आनी
कामांधाची वाकडी मान
नाचपीणीचेर उधळिल्लीं नोटां
आनी पोरांचीं उपाशी पोटां

ही कविता घे बाय,
पाळण्यांक हासतल्याची आनी
ही घे मडयार रडटल्याची
ही गळ्यांत गळो घालून नाचतल्याची
जाल्यार ही केसान गळो कापतल्याची

ही कविता घे बाय,
मोगाखातीर जग सोडटल्याची आनी
ही जगाखातीर मोग विसरतल्याची
ही कविता होळी-दिवाळी मनोवपाची
जाल्यार ही सोर्‍यांत संवसार बुडोवपाची

म्हजी कविता आवडल्यार घेयात बाय,
ना जाल्यार दुसरी बरयतां
संवसाराचे अणभव हांव
वांगडा घेवनच भोंवतां

हांवें पळयलां.......
कोण ईमान विकता
कोण मनीसपण विकता
कोण पावित्र्य विकता
कोण चारित्र्य विकता
कोण सत विकता
कोण मत विकता
कोण धर्म विकता
कोण कर्म विकता
कोण सत्व विकता
कोण तत्व विकता
आनी हांव.......
कविता विकतां
कविता जाय बाय, कविता जाय.....

(कोंकणी युवा साहित्य संमेलनाचें १लें उमेद
वाडोवपी इनाम फावो जाल्ली कविता.)

# बेवारशी मडें

बेवारशी मडें
कोनशाक पडून वाट पळयता
- लासतल्याची

जगतना सुख मेळ्ळें ना
मरणा उपरांतूय दुख्ख कित्याक?
शिंयांक कुडकुडून वाट पळयता
- लासतल्याची

तें सुणें येता........
मड्याभशेन बेवारशी
वास घेता... मुतता..... वता.

तो रुंवांतलो किडो वळवळटा
मेल्ल्या मड्यार जग सोदता.

तो रुखावेलो कावळोय लाळ गळयता
बाराव्याच्या 'भुसाक' आशेता
उपाशी मडें मात वाट पळयता
- लासतल्याची

ते मुन्सिपाल्टीचे लोक आयले
मडें उखलपाक
सू ऽ ऽ ऽ जालें......
मड्याच्या जिवांत जीव आयलो.

(कोंकणी युवा साहित्य संमेलनाचें ३ रें
इनाम फावो जाल्ली कविता.)

# देव म्हाका दिसलो

तो कुड्डो, भेड्डो, मोनो
मनीस पळयलो
त्या मनशाभितर देव म्हाका दिसलो.
शिकलेल्या शाण्यांनी
देडशाणो म्हाकाच केलो.

हांवें म्हणलें, "तो देव"
"दळदिरो तो, म्हूण देवान न्हयकारला"
शाण्यांलें शाणेपणाचें उत्तर;
हांव निरूत्तर.

म्हज्या मनाची करंदाय
"देवा, पळय ताच्यो मर्णयातना"
.........देवाक दिसना.

"देवा, आयकय ताची कर्मकाणी"
.........देवाक आयकना.

"देवा, तूं वोगी कित्याक?
केन्ना मेळटली ताका मुक्ती?"
.........देव उलयना.

हांवें पर्थून त्या मनशाक पळयलें
त्या मनशाभितर म्हाका देव दिसलो.

# हुळहूळें मन

मन म्हजें अशें कशें?
हुळहूळें पिशें कशें
मोगा पिशान धांवता....

भिरभिरत्या नदरांनी
थरथरत्या ओठांनी
काळजांतलें गुपीत कळयलां....
मनांतलें मोनें उतर
देंवलें गो दोळ्यांभितर
कित्याकशें लजता?.....

गुलाबी गालांचेर लाली
लाल पोल्यांचेर खळी
काळजांतलें सपन फुलयलां....
सपनांचो श्रृंगार
शिंरगारलो भांगार
कित्याकशें तोखेता?.....

मन म्हजें अशें कशें?
हुळहूळें पिशें कशें
मोगा पिशान धांवता....

# राधे...

वळत-वळत नागीण
तशें मोडत-मोडत यो
काळजांतलीं मोगाकिर्णां
राधे, फांकत-फांकत यो.

वाट तुजी तेळटा कान्हा
दोळ्यांत घालून तेल गो
गायींचें निमित घेवन
मळार येवन मेळ गो.
कवनांतलीं शब्दफुलां
राधे, वेंचित-वेंचित यो
वळत-वळत नागीण
तशें मोडत-मोडत यो

वाट तुजी राखता कान्हा
दोळ्यांत घालून तेल गो
पाण्यांचें निमित घेवन
यमुने देगेर मेळ गो.
पांयांतलीं पांयजणां
राधे, वाजयत-वाजयत यो
वळत-वळत नागीण
तशें मोडत-मोडत यो

वळत-वळत नागीण
तशें मोडत-मोडत यो
काळजांतलीं मोगाकिर्णां
राधे, फांकत-फांकत यो.

# मोग

१.

कुडूड्या मोगान लागता
संवसाराची वाट
लग्नाआदींच सुट्टा
लजेचो अंतरपाट.

२.

मोग काय आकर्शण ?
हाचोच पडटा व्हड प्रस्न.
विचारांचे गुंतींत घुस्पता जाप
विस्कट्टा लग्न.

३.

तुवें म्हणलें,
‘मोग दिल्यार, मोग वाडटा.’
हांवें मोग दिवन पळयलो
म्हजें दुख्खच वाडलें.

४.

काळजांतलो मोग उक्तावपाक
शब्द मोने जातात
देखूनच...
देवान दोळे दिल्यात.

५.

काळ्या केंसांनी पितारलां
रूप तुजें सुंदर
जसो उमाशेचे रातीचो
पुनवेचो चंद्र.

६.

तुजे यादींचो दर्यो
सोऱ्याच्या ग्लासांत ओतलो
ग्लास तोंडाक लायलो
दर्यो दोळ्यांतल्यान व्हांवलो.

७.

मोगाखातीर कितलेशेच मरतात
मोगाखातीर कितले जगतात ?
मोगाखातीर जगतना
खिणा –खिणाक कितले मरतात?

८.

कांटे लागचे न्हय म्हूण
तुका काळजांत लिपयलें
आवयूस !!
काळजांतल्याच कांटयांनी
तुका तोपलें !

# मर्ण

१.

मर्ण !
मर्ण सुंदर आसता
म्हूणच तर...
जीण अमर आसता.

२.

मर्णाचें कितें?
मर्ण एकूच फावट मारता
भंय आसता जिणेचो
खिणा-खिणाक मारता.

३.

सोबीत मर्णाक तुळा ना
देखूनच हांवें
मर्णाक
तुजी उपमा दिल्या.

४.

मर्ण
कर्णासारकें उदार आसचें
यातना भोगत जगतल्याक
झोळी भरून मेळचें.

५.

सगळ्यांक इत्सा सर्गाची
पूण जिणेचीय आसक्ती
मर्णा उपरांतूच मेळटा
खरी मुक्ती.

६.

गीतेंत वाचलें,
'जो जल्म घेता,
तो एक ना एक दीस मरता.'
मर्ण सगळ्यांक येता
सगळ्यांक "जीण" कित्याक मेळना?

७.

जीण जगतना
मर्णाची कल्पना करतां
मर्णाचे कल्पनेंतूच
मर्ण जगतां.

८

जल्मा उपरांत मर्ण
हो सैमाचो नेम
हांव अभागें
जल्मचें पयलेंच म्हाका मर्ण मेळटा.
सॉरी !!
मर्ण दितात.

९

किवणां पडिल्ल्या सुण्याचें
कळटलें कोणांक feeling ?
मारपीच जाता देव,
जेन्ना मेळटा Mercy Killing.

१.

जिणेच्या दर्यांत,
अणभवांचीं ल्हारां
उठ्ठात,
मोडटात,
फेसाळटात.......,
पूण तरी लेगीत हुपतात
तड जैताची.

२.

संकश्टां येवचीं न्हय म्हूण
संकश्टीच्या चंद्राक पुजतां
सोदतां......
आरे देवा !!
काळ्याकीट्ट कुपांनी
चंद्रारच संकश्ट हाडलां.

३.

त्रिखंडांत पराक्रम गाजोवपी
हे धनुर्धर पार्थ !
शिखंडीआड लिपून
भिष्माक लोळयतना
कसलो मिरयता पुरूशार्थ ?

४.

तुजे सोबितकायेच्या दर्यांत
हांव बुडून गेलों
तेन्ना .....
मेळ्ळो ना म्हाका दर्याचो थाव
आनी .....
तुज्या मनाचोय बी.

५.

केन्ना केन्ना कानार केंस काडचे
दोळेय धांपचे
मनांत आत्मसुख जागोवंचें
आनी -
जग विसरचें.

६.

देवाच्या रूपान दें‌वचार येता,
आमी भावार्थान येवकार दितात
जें थोडें मनीसपण आसता
तेंलेगीत व्हगडावन बसतात.

७.

वासनेचे काळेकिट्ट राती
पालवल्यो उजवाडाच्यो वाती
जोडलीं संबंद नाशिल्लीं नातीं
जाली मनीसपणाची माती.

८.

काळखे जिणेंत म्हजे
जो उजवाडाचो दिवो पेट्टालो
म्हज्याच हातांनी पालयलो
जीण इतल्या काळखांत जियेलों
आतां.....
काळोखूच म्हाका मानवलो .

९.

जर अन्याय पळोवंक शकतां
जाल्यार आडोवंकूय शकतलों
एकलो आसल्यार हरकत ना
धर्तरीच हालोवन सोडटलों.

१०.

घरांतलो घोयरांव काडटना
मावलेचीं घरांय काडलीं
म्हजें घर नितळ दवरतना
कितलींशींच घरां इबाडलीं.

११.

बरें जालें
दिसा उपरांत रात येता
कितलींशींच काळीं रुपडीं
काळखांत लिपतात.....

१२.

आंकड्यांचो खेळ करतना
नेम-सिध्दांत बेस बरे वापरले
एका चिन्नाचे चुकीन मात
जिणेचें गणितच विस्कटलें.

## प्रसन्न रामचंद्र पागी

पोळें-लोलयें, काणकोण

जल्म: 14 नोव्हेंबर 1975

जवाहर नवोदय विद्यालय काणकोणांतल्यांन विज्ञान शाखा घेवन १२वी उत्तीर्ण फा. आग्नेल पॉलिटॅकनिक वेर्णातल्यांन Computer Engineering ही पदविका. उपरांत Post Diploma n Information Technology केल्या. सद्याक श्री कात्यायणी बाणेश्वर विद्यालय, काणकोण हांगा संगणक शिक्षक म्हूण काम.

नेहरू युवा केंद्राचो 'जिल्हा युवा पुरस्कार' फावो जाला.

'उर्बा', 'दिवजां' अंकांतल्यांन कविता उजवाडाक आयल्यात. युवा साहित्य संमेलनांत भाग घेवन कवितेखातीर इनामां जोडल्यात. ॐकार खेळ व सांस्कृतीक मंडळ, लोलयेंचे वतीन कोंकणी युवा महोत्सवांचे चार फावट जेतेपद मेळोवपाक मोलाचो वाटो. गांवच्या तरण्याटयांक घेवन 'युवा उर्जा पोळें' आनी 'सारा परिवार' हयो सांस्कृतीक संस्था स्थापन केल्यात.मंगळूर जाल्ल्या राष्ट्रीय युवा महोत्सवाच्या 'ज्युनियर आर्टीस्ट कॅम्पांत सहभाग. 'गोंय मुक्तीचीं पन्नास वर्सां', गोंयचे सामाजीक प्रस्न', पर्यटनाचे परिणाम', 'एड्स', 'स्त्रीभ्रूण हत्या' हया सारके ज्वलंत विशय घेवन पथनाटयां बरोवन आनी सादर करून इनांमां मेळयल्यांत. 'पयलें कारवारी कवी संमेलन' ही एकांकीका बरोवन सादर केल्या. वेगवेगळया सर्तीचें आयोजन आनी परिक्षण केल्या. दर वर्सा चिकण मातीपासून ४०-५० गणपतीच्यो मूर्ती करता.




Pansulem,Canacona-Go
9270045820 /915805725